## कावळ्या, कावळ्या

‘कावळ्या, कावळ्या, खंय रे गेल्लो?’
‘गेल्लों पळोंक शार’

‘येदे बेगीं आयलो कसो?’
‘मर्दींच जालो फार’

‘गुळी बिळी लागलि व्हय रे?’
‘म्हजीच जाली गुळी’

‘कोणें तुका पायलो हांगा?’
‘हांवेंच काडलि नळी’

## पावलांच्या सुलुसानच

पावलांच्या सुलुसानच आंगार शिर्शिरी
सळसळटा पदर, मना देग भर्जरी

कांकणांचे किणकिणीन स्पंद कानसुलां
वाऱ्यान तुज्या झड्टि म्हजेर पार्दिका - फुलां

स्वास तुजे वास जावन सांसपितात आंग
मना म्हज्या लागता तुज्या गुमानितां-थांग

सकाळफुडें आयलें जाल्यार आंगणिं फुलता पात
सांजचें पावलें जाल्यार येता चान्नें फाटोफाट

असवडींय फळटा म्हाका मोनी तुजी प्रीत
उतरां आदीं छंदांतच बळटा म्हजें गीत

## एकटुकेंच चल्लें अशें....

एकटुकेंच चल्लें अशें खैंच्या तूं राना?
खैंचे घळींत केन्ना रात जायत कोण जाणा!
उजवाडाचे धुवे ! पोण्ण कोण आडायतलो?
जंवरो लेगित आयलो जाल्यार लायतलो तिळो!

केदोय काळोख जालो तरी गो तुजे दोळे
अचर्थांच्या उजवाडाचो पावस ओततले
उजवाडाचे धुवे! तुका कोण दटायतलो?
तुजे चालिन जाल्ली वाट लोक चलतलो!

खैंचे खिणीं कोण धनी बांदतलो मणी?
भाग्य ताजें पळौन देव झुरतले मर्नीं!
उजवाडाचे धुवे ! तेन्ना चंद्र रेखतलो
अपुर्बायेन सूर्य तुका हळद माखतलो

## मुक्तिदेवते

मुक्तिदेवते तुज्या नमन पावलां
विस्व पंचारती घेवन रावलां

शांति तूं कांति तूं
आत्म – उत्क्रांति तूं
सगळ्यो वेदश्रुती गायति नवलां

जाग्रुती नित्य तूं
सास्वती सत्य तूं
त्वद्रुपीं पुण्यधन आमकां पावलां

सायबिणी तुजेविणें
सुख उणें दुख दुणें
फुलचेलें जनजिणें सामकें बावलां

गे तुजी बिबुत दी
गे तुजें तीर्थ दी
सार्थ जावं दी तुवें दिर्ल्लि कौलां

# पण्टी

एक पण्टी भितर पेट्टा ती जगय रे ती जगय
घेवन आयला वांगडा जी तूं वाट सरतासर तिगय

गर्जेपुरती तीच दितली चलतल्या पावला पसय
उजवाडा कोर्णेच पापया ल्हान केन्ना म्हणचें न्हय

जें फुडारांत सपन न्हिदलां तें उठय रे तें उठय
रें तुज्या पण्टेन जंय थंय मेळटा ती पण्टी पेटय

पण्टि न्हय ती गुप्त दुर्गा, कसलें भंय रे कसलें भंय?
लक्ष शस्त्रान खेत्र जातलें, मेळटलो अंतीं विजय

तंववरी पण्टी जगय रे वात सरतासर तिगय
रात काळखी सरचे पैलीं जल्म मेळ्ळा तो उजय

## आगो आगो बिलू

‘आगो आगो बिलू तुका सांग कितें जाय?’
‘तव्यावेलें नुस्तें आनी दुदावेली साय’
‘बिलू बिलू कशे तुजे विलोदाचे पाय?’
‘सातां माळयांवेली हांव रायाली बाय’
‘सकाळफुडें बिलू तुका आंकरि कित्या जाय?’
‘खायना जाल्यार म्हाका जाता खोंकलि आनी वाय’
‘सांग बिलू कित्या अशी ल्हंव चाटूंक जाय?’
‘म्हाका आंग जाय सामकि फुलिल्लि जाय’
‘हाड व्हर गोठेवंक तुका बांय कित्या जाय?’
‘थंयच म्हजी चुकुन पडल्या भांगराची दाय’
‘रात्रीचें पळ्ळ तुका न्हिदुंक कित्या जाय?’
‘हांव जपतां येत म्हणून मेल्लि म्हजी मांय’

# येतले दीस म्होवेच म्होवे

निळ्या जळार सवणाऱ्यांचे
थव्यार थवे धवेच धवे
उफेत हुबत सांगति आतां
येतले दीस म्होवेच म्होवे

ओलशिं ओलशिं येतलिं ओतां
भांगराचे घालित शिंवर
झाडापेडांक कुचकुचीत
कुकमाचें येतलें चंवर

तणाक पसुन येतले दोळे
आनिक वार्लिक कळेच कळे
आडुन दडुन येतले कानार
सवण्यांचे उल्यार उले

सांज जावचे पैलिं येतलें
कंवळें चान्नें शितळ शितळ
कळचे पैलिं पांगुन कुपां
जातलें मळब नितळ नितळ

खोंपी मुखार धुंवरि पळौन
जातल्यो ओगीच यादीर यादी
सांडिल्ल्याचे विकळ चित्त
मुदयेच्या वतलें सोदी

जायलें तुजें सारित वाती
सवनरात जातलें खंती
सोंपले आतां जिवा-जाळ
म्होव्यो दिसांयपरस राती

## दीस गेला खाला

दीस गेला खाला, चंद्रिम वैर आयला
कळणा कोर्णे आमोरेचो राग असो लायला

चंद्रदेवा सांग रे म्हाका
ओगीच कुपां पांगरुं नाका
मोगा म्हज्या मोवाळ करून खंय तुवें पावैला

कोर्णे मोडां-लकारांनी
बावक्या फुलांर मारून पाणी
पारध्या आपल्या सुवासांनी सांग ताका भुलैला

भिजौन हांव सारतां वाती
दिसार पसुन लागना पाती
जाल्यो आतां तीन राती जीव गोळा लागला

गायतां लायतां तार्जेच नांव
पळौक ताका मरतां हांव
नुलैत ताका सांग हांवें जळटना आपैला

## शोव रे कोंब्या शोव

बा, बा, बा रे कोंब्या शोव, शोव, शोव, शोव
राव म्हजो येवचो जालो तारवावेलो घोव

शेंक्रें फुलोवन मानो मोडुन भोंवची तुजी रीत
दोळे मोडित चोवंची अशी कसली तुजी नीत?
रांपशि कित्या आठय पार खावंक म्हजो रोव?
बा, बा, बा रे कोंब्या शोव, शोव, शोव, शोव.

हाजो ताजो खावन फोव मातल्या तुजी जीब
जाय वाड्या धोसुंक तुका कितेंय तरी नीब
खणुंक तुका फुरण येता दिसलें जशें मोव
बा, बा, बा रे कोंब्या शोव, शोव, शोव, शोव

मेरो वंयो हुपत, जाणां चल्ला तुजो नाच
फातर बडयो माल्ल्यो तरी सोंपना तुजो जाच
स्राप आमचे बादुन तुजो भरतलो कुडव
राव, म्हजो येवचो जालो तारवावेलो घोव.

# सोळा तारीख

चूड दाखौन हाडलो म्हारू नष्ट्यो ताज्यो कळा
तुका म्हाका जोखुंक भावा येता तारिख सोळा

दांड्यान पाणी हाणुन आमकां ताणेंच केले दोशीं
जरी आमी घेतलो जल्म एकेच आवैकुशी

ताज्याच कंवटालान आज घराक लागला उजो
सोबित गोंयचो संसार भावा म्हजो तसोच तुजो

रागान म्हज्या, चुलीवेली मडकि नाका फोडूं
एके राशिर आसूं जाल्यार सर्ग लेगित जोडूं

चिऱ्यां पावणी व्हरूंक पारे कोणय खणुंक सांगूं
जाग्यार आसले जाल्यार फाल्यां माळी बांदुंक लागूं

तुज्याच हातान लाय भावा घराचो लामणदिवो
घडूं उजवाडांत ताज्या फुडार आमचो नवो

आवय म्हजी तीच तुजी राख तिजो तिळो
सादुर भावा फुलांत आसा लिपुन काळो व्हिळो

एकाच पानान रुक्मिणीन देव जिखुन घेतलो
दोन पानां घाल्यार पोल आमच्या वटेन जातलो

वळख रगत धांव भावा आयच्या कळे वेळा
दोशीं जाल्लें पाणी जोडुंक तारिख येता सोळा

## हिंद देवते

शान्त दान्त वज्रकान्त वंद्य हिंददेवते
शक्तिवन्त दीप्तिवंत जय दिगंतकीर्ते

गगनिं तुज्या पैलि उषा घेवन आत्मतोष
पैलो तुज्या वनिं जननी! दिव्य वेदघोष
पैलो जनीं उदित तुज्या हृदयकमलकोश
भाग्यवंत पुण्यवंत तूं अशी समर्थे

तुकाच जालो मनशाचे दिव्यताये – भास
तुकाच लागलो मृत्युंजय सुकृताचो ध्यास
त्याच खातीर कळा तुज्यो, सगळो वाग्विलास
तुकाच लागुन त्राण जगा त्रिभुवनहितकर्ते

सगळे धर्म, सगळे वंश घेतले तुवें होटीं
अम्रुताये परस गोडी तुज्या दुदा – घोटीं
देवय पसुन लुब्ध जावन आयलो तुज्या पोटी
धन्य अशें स्तन्य तुजें संजीवन – म्हुर्ते

पूर्व तुजें दिव्य, दिव्य त्यायपरस फुडार
तो सचित्र गे आमच्या रथ दोळ्यांमुखार
तो घडौंक सतत आमी जावं जिवार उदार
दी अशें अनंत धैर्य सदय वरदवन्ते

## नाख आमी पावणेर काडलां

नाख आमी पावणेर काडलां
घालात तुमी लांस

म्हणशात तुमी तीच आमी
म्हणूं आमचो भास

किंदळि काळी कुड्डि मोनी
दुबळि आमची माय

फायदो किर्ते लेखुन तिका
पोसुंक मात जाय

आयति तुमी दितले तीच
दितलि आमकां ग्रास

नाख आमी पावणेर काडलां
घालात तुमी लांस

स्वतंत्रताय येवन जाल्या
आमगेली फजेत

जंयच्या थंयच पोल जाला
सगलो फिरंगी झेत

ब्लॉक गेलें, अडलें मीन
उल्ल्या फक्त ग्राश

नाख आमी पावणेर काडलां
घालात तुमी लांस

तुमी व्हेल्यार नाख, आमचो
वाट्टलो भुगोल
लावन घेवं त्या खातीर
आमिच आमकां गोळ

जायतो येतलो होटिंत आमच्या
तुमचो इतीहास
नाख आमी पावणेर काडलां
घालात तुमी लांस

भितोडीच आमकां बरी
घर कित्याक जाय?
पोशान उदक पियेतल्याक
बांय कित्याक जाय?

घर बांदचे, बांय मारचे
नसते कित्या त्रास?
नाख आमी पावणेर क़ाढलां
घालात तुमी लांस

फांपरमुटके बंदे आमी
धरूं तुमची कास
कानयो आमकां घाला पोण्णं
दिया कुंड्या – रास

मेखळेपणा जोखमे – परस
बरे बंदपास
नाख आमी पावणेर काडलां
घालात तुमी लांस

# तुज्याबगर

तुज्याबगर म्हजी खबर
घेतलो कोण दुसरो
तुज्याबगर जिवा म्हज्या
दितलो कोण आसरो?

कांयच हांव सांगना कोणा
हृदय म्हजें तूंच जाणा
तुजे फुंके बगर कसो
पेखचो म्हजो कातरो?

संवसाराचें तोडलें दावें
किर्द सगलि लासली हांवें
तुज्या नांवान पावणेर आतां
काडला मांड पसरो

तूंच आतां पावय रीण
सा करून सगलि जीण
तुज्या धिरार ओता कडार
हांव जालां निलाजरो

## गोंयांत अशें आसा कितें?

गोंयांत अशें आसा कितें
खरेंच म्हाका सांगूंक येना
म्हण्टात आमी पोकी बडाय
गोंयांत जणेक सगलें जाणा

तांदुळ नाल्ल सगलें म्हारग
करबट पसुन रुपयान वता
तरिय लोक घांट हुपुन
अर्थिन गोंय पळौंक येता

आमीच म्हण्टात गोंय म्हळ्यार
नस्तें पेसण, बुडित खातें
खरेंच हांगा जाणवाय सोडुन
दुसरें आनीक पिकता कितें?

असलें गोंय नष्टें पाडें
म्हैसुरान मागचें कित्या?
मराठणान गोंयच्या खातीर
हड्डें पेटुन घेवचें कित्या?

गुप्तिं असल्यो कसल्यो गोंयां
व्हांवति दुदा - म्होंवा झरी?
अजुन म्हाका मेळणा नाट
तुमी कोणय सांगात तरी!

नकळ गोंयांत आसा किर्ते
एक मात खबर म्हाका
एकदां गोंयां पाविल्ल्याक
परतें गोंय सोडूंक नाका

## म्हजीं उत्रां

उत्रां म्हजीं जाल्लीं पैर शेम्यावेलीं शस्त्रां
काळखे - रातीं तींच जालीं वळखिचीं नखेत्रां
आज जाल्यांत तींच जळार रांगोळ्यांचीं चित्रां
आतां म्हाका जाल्लिं जाय द्रौपदेचीं वस्त्रां

एक काळ आसले आमीय मोनजातिचे पिलें
मारताले तिजेच भशेन किंळचि आनी उले
एकेक उतर घडुंक भावा ! कितले कल्प गेले
उत्रां गुंथित रावले तशे मनीस आमी जाले!

उत्रां म्हजीं जेवंक दिनात भागैनात तान
आडायनात पावस ओत साणायनात भाण
पोण्ण जेन्नां तुजी म्हजी इशिम पट्टा घाण
सोडौंक तिका भरति तींच शिरंत्रांनीं त्राण

म्हणुन वेळार जाण भावा उत्रांचें मोल
तांचे विणें पुण्य उणें सगळें जिणें पोल
सत्तेचे मत्तेचे व्यर्थ ताशे धोल
आशान नडी काडपि सगळ्या घाडयांचे घोळ

मात उत्रां उठुंक जाय प्राण लेगित फुटून
वस्त्रां ताचीं सोदता करूंक म्हज्योच बरी कुटून
पोण्ण तांकां सार्थकाक पावपि एकलो तूंच
तुकाच लागून उत्रां म्हजीं मळबापरस ऊंच

## उजवाडाचो तिळो

मेल्यात तांकां पुरात बेगीं येवचेपैलीं धामी
उरिल्ल्यांचो सांबाळ करूंक लागात बेगीं कार्मीं

पोंबालान सांगलें अशें भुंयकांपाच्या वेळार
संसार उबो राखचो आसां केवळ आपल्या बळार

कोणाय काळा, कोणाय देशीं, कितेंच नास्ता थीर
जाग्रुत नासल्यार कळणा कशी जिणेक वचत चीर

संकष्टाच्या वेळार नासता आपलो आनी दुजो
मर्णाचो सांपळो नासता वेगळो म्हजो तुजो

दुस्मानांच्या कंवटालांक तांक मळबायेदी
सुवार्थाक लागुन जेन्ना भावच जाता भेदी

एकवटान रावंया जागे काळखिं भोंवता व्हिळो
कपळार आमच्या आसा जंवर उजवाडाचो तिळो

# आत्मो आनी परमात्मो

मातयेन ही म्हाका कूड दिली
उजवाडान दिल्यो ह्यो दोळ्यांतल्यो वाती
आनी उदकान ही तांतर्ली दुखां
वाऱ्यान दिलो हो अविस्रांत स्वास
आनी आकाशान दिलें हें मन
ताकापसून वेंगांत घेत येदें

सृष्ट घडपी अशा ह्या अनादि
अनंत पंचभुतांक, जीं आपापलेपरी
आडांगी, हडवंगी आनी उसंखळ
तांकां म्हज्यांत अशी मर्जिमाफीक
नमयाळी, मायेस्त, एकमेकांच्या पांगीन
चलपी, ऐकमेकांक सांबाळपी
कोणें केर्ली अशीं सुरेख सुरेल?

आत्मो परमात्मो म्हण्टात तो तोच काय?
आनी तशें जाल्यार
हांव तांचेपसून वेगळो कसो?
आनी हांवें तांकां म्हज्या भायर
कित्याक सोडूंक जाय?

## हांव मूं?

हांव मू?
झेल कशे तांबशें गोरें आवयचो
काळसांवळो आनी किडकिडीत चलो
आनी तसोच कल्पक कसबी बापायचो
सगळें मळब भोंवत आयिल्लो पैलो वैलो उलो

तिजोख्याच्या आजयेचो
तिजे खर उबेंत वाडिल्लो नातू
तिजेच भशेन अदृष्टाच्या खांब्यांचेर
स्रद्धेच्या दोरखणांनीं रातयांत बांदपी सेतू
तिजेच भशेन देवाचीं आलां किलां काडपी
सत्याखातीर भीड मुरवत धरिनास्तना;

अडिल्ल्याक पड दिवपी
घरांत तांदूळ चड जाल्यात आस्तना;
आजवेर झिलींनी भोंवलों
काळजांतलीं अंत्राळी सपनां ओखेत
चलत रावलों कांट्यांतल्यान
दिशिल्ल्या फुलाचे गूण तोखेत

रोंबिल्ले कांटे कळ्ळे ना
नाखूट पसून जळ्ळें ना
कसो कोण जाणा
घाणो ओट्टनाय गायतच उल्लों
शिकनास्तानाय उजवाडान भल्लों

शिंपडायल्लें रुजलें, सल्लें वैर
लायिल्लो कावथो आयला पुटा

जाणां हांव लवंडता दीस
सामकार येता सांजची घटा
कानार मारता दर्या – गाज
तरी मनांत काळजांत मोगाचेंच गीत
मुळसांत कातयेंन तवल्यो मारीत
बसलां म्हजींच आडसरां वांटीत

## ना जाल्ल्याक

कोणेंय तुका गाडला जाल्यार
पाताळ पसुन पेट्टलें
प्रखर तुज्या धगान वेगान
गगन लेगित कट्टलें

आनिक कापला शिनला जाल्यार
रवयो तुज्यो जातल्यो चुडी
सगलें सत्य उलयतल्यो
आठय पार, बाराय घडी

तुका तोडला मोडला जाल्यार
हाडान हाड जागतलें
मडें तुजें जावन व्हडें
गोंयचें तडी लागतलें

गांवोन गांव जावन उबो
थळी मुळी कुदतलो
सांतेरेचो येवन भार
खऱ्याक उलो घालतलो

सासाय तिजी घराघरांत
हड्डें पेटित खुबतली
पातकावेली सांतलि काळी
पत्रो कशी हुबतली

प्राण तुजो चिल्ला जाल्यार
कवदे ताजे जातले लाख
ताणीं गोंयचें रगत पेटुन
घुटकारांची जातली राख

गांधी लुमुंबाच्या भशेन
लागल्या जाल्यार तुजीच वाट
तुज्याच भशेन मरूंक हांगा
येतले दिसाक तिनशें साठ

# गुरु शिटकायता कुरवांनी

गुरु शिटकायता कुरवांनीं । आरे गुरु०
मेरेर झेमलो शेतोड ताजी अचळय भकली गोरवांनीं
भरताडेचीं तारवां बाबा समूळ नाडलीं तडवांनीं
प्रसाद पाकळी फटवण सगळी देव लिपैला गुरवांनीं
कस्तुरमेरवावरी कित्या तूं वगडायता जिव बळयानीं?

## म्हाका पल्तडिं पाय

व्हडें आल्तडिं लाय म्हाका पलतडिं पाय
जंय सुख थंडाय                    पांडुरंगा

कांय बांदचेलें ना कांय घेवचेलें ना
जग साय नसाय                    पांडुरंगा

हांगा कांय खरें न्हय मना भोंवतणिं वंय
सुख दुःख पिसाय                    पांडुरंगा

गुंडे पट्टना जावं फुलां झट्टना जावं
तुजि फळळि सासाय                    पांडुरंगा

ओत मोव जालां दळभार फुलां
सांवळ्यांत निळाय                    पांडुरंगा

तुजेवीण म्हाका आतां कांयच नाका
जा तूंच थाकाय                    पांडुरंगा

जड न्हय रे म्हजें तुका जावचें वजें
शरिरय ल्हव ल्हाय                    पांडुरंगा

## तुजो घोव देखून

हांव असो तुका जालां ल्होव
फकत तुजो घोव देखून
मुदलचो खैरी - उजो

पुण आतां सामको मोव
दुदांतलो शिजिल्लो फोव
फकत तुजो घोव देखून
पुण हेंय तितलेंच खरें कि
आसून हांव तांदळांतलो आसो
आज जालां किल्लल्लो रोव
फकत तुजो घोव देखून

## तुवें म्हजेर मोग केलो ना जायत

तुवें म्हजेर मोग केलो ना जायत
पुण हांव तो तुजेर करीत आयलां तो कितें न्हय जाला?
तूं कित्याक परतिता मान परती परती?
ताजोच तुका भंय जाला?
वच तूं सुसेगाद, तो तिसऱ्याक कळचेंलो ना
आनी मुरीं पडलीं तरी जळचेलो ना
तो पाथेतलो काळखांत कणकींनीं हेडटना
परमळटलो दोंगरार चंद्रिम उदेतना
पातळटलो न्हंयेच्या उदकार फांतोडेची किरमीज झडटना
कळ्ळोच जाल्यार तो कळत रुजपी रोवाक,
फुलपी फुलाक, झाडावैल्या अमुरपिक्या फळाक
आनी घाया कणकणीं कोमरी धरपी वर्स-
संकींच्या शीतळ वडाक,
मनशांची वाट वेगळी, तांकां ताजी नात
लागपाची ना,
मात अेक कर, मध्यान रातचें म्हगेलें अलगूज
तुज्या माळयेच्या जनेलांतल्या न आयकुं नाका
आनी हांव वेळेवेल्यान परततना तुका हटकि नासताना
गेलों जाल्यार हाजेर ताजेर तिडकुं नाका.

## कावळयाली होंवळीक

कावळ्यान हाडली होंवळीक
लग्न आसा गोंधळीक
लग्न पोण्ण कोणाचें?
सदांच दोगां जाणांचें!
बांगडो न्हवरो व्हंकल पेड
वरदक्षणा लाख देड
लग्न खंय? तर सांग्यार
पावात वेळार जाग्यार

दनपारांचो जाल्लो भार
हुलहुल्यांनी काडली तार
घाम काडुन जाले जाम
सामकें गेलें पांयां – चाम

पावता जाल्यार माटव रितो
नासलो एकय मूस जितो
म्हणून करूंक चवकशी
काढल्यो नस्त्यो उठाबशी

घोणीन हाडली खबर
प्रसंग मोटो निबर
बांगडो पावला मडगांवां
पेड थांबल्या मुरगांवां

एक होरण उसकय
दुसरें होरण मडकय
भट अडला काणकोणा
पोटली सांडल्या कुसमणा
होंवळो सगळो सोदी गेला
तुमीय म्हज्या वांगडा चला

गोंधळिकाचे लग्न खरें
आमकां अशें भल्लें बरें
असल्यो कावळ्या होंवळिको
खऱ्यो धल्ल्यार नाखयां शिंको

## बावल्यांची सोरगत

'बावलो तुजो पोटारो
तिनय त्रिकाळ भकारो
बावली म्हजी नाजूक चली
कितलें म्हणून रांदतली?'

'बाबलो तुजो आळशि कोडो
घरांत भोंवंक सोदता घोडो
शिटुक जरी म्हजी चली
कितली म्हणून राखतली?'

बावलो तुजो जोडीच ना
घरांत कुस्कुट हाडीच ना
सुग्रण जरी म्हजी चली
संसार कशी करतली?'

‘बावलो म्हजो कसोय आसूं
बावलेक तुजे मानला खंय
वर्मां कर्मां काडुन आमी
सुखांत बिबो घालचो न्हय’

‘पूत म्हजो जांवय तुजो
सून म्हजी तुजी चली
हुस्को कित्या तुका म्हाका?
गेल्ल्या घरा नंदतली!’

‘सून म्हजी तुजी चली
चानी कशी घोळटली
भियेवं नाका, घरांत म्हज्या
सुखांत सामकी लोळटली.’

## जोर रट्टा पेजेक

पावस गीम माडौन गांव जोर आयलो घरा
खोंकली बायन धगत खांकत रांदल्यो पांच तरा

काचीं बुचीं पोरां तिजीं लागलीं तिका धोंसूं
आयज सोजी जायच म्हणुन सामकिं लागलीं कसूं

साकर नाल्ल रवो हाडुन रांदली तिणें सोजी
घोवाक म्हणुन अर्थिन तिणें तळ्ळीं काल्वां भजीं

काट्टांचे लावन दिवे मांडले चोळखे – पानां
मोटे उमेदीन बसलिं जेवंक सगळिं जाणां

खोकलि वाडूं लागलि तसो जोर लागलो रडूं
भजीं मोखुन म्हळें ताणें 'पाड तुजें पडूं'

विनौन जायतें सांगले तिणें सोजी बरी धजेक
पुण अखेर कळ्ळें तिका जोर रट्टा पेजेक

## केन्ना केन्ना

केन्ना केन्ना दीस येता तडव कसो पिसो
नळो वांसो परतो जाता जीव येता वरसो

केल्ल्याचो धुल्ल जावन आपलिं जाती परकी
कित्याचेरच थारना नदर पारख्यो जाती वळखी

जिस्त अशा वेळार तोच शिंगा फूंक घालता
हुबणेवेलें व्हडें म्हजें तोच अखेर तोलता

दिसता म्हाका दीस असो अर्दी मर्दी येवचो
पाळां मुळां सोदित म्हजो थाव हांवें घेवचो

# सूख

सूख ना रे पैस, पळे, उदक कशें व्हांवता
पुंजावंक वेशी जाल्यार मात पारज जावन धांवता

सुख पेंवता नुस्तें कशें धरूंक गेल्यार बुट्टा
पिसोळेंशें भोंवता पोण्ण झोंपय घाल्यार उट्टा

ओतांत आंग चाट्टा माजर, फुलार भोंवर चट्टा
आड्यार चडुन बोकडे – पील कोमरि आंकरि खुट्टा

जांभळिकाळी चिऱ्यां – वणथ जाण्टि जावन लकल्या
पांचवी वाल हडव्या फुलीं आंगार तिज्या पिकल्या

लेंकुरवाळ्या केळिर झडर्लि कुडचांफ्याचीं फुलां
हरयाळेर भोंवता कोंबी रांपत आपल्या पिलां

प्राण असो पळे तुजो जळा मळा सांडला
माये मोगान तेळशि जाल्यार सुखच चांटे पावला

भोगचें तुवें म्हणुन सूख भोंवतणींच भोंवता
ना रे सूख पैस, पळे, उदक कशें व्हांवता

## ह्या विलाथे

ह्या विलाथे मोरांच मोरां आंगा – पांगा दोळे
उल्यार उले आयकुन तांचे मेघ जाती ओले
जांभळे जांभळे जाती दोंगर, निळशो पांचव्यो घळी
उबाळाची काडुन चोळी वाऱ्यार धोलता तळी

ह्या विलाथे भांगर साळी कुकुम साळी शेतां
भांगर कुकुम शिंपित येती सकाळ सांजचीं ओतां
कुळार करपी चलयांवरी मेखळयो हांगच्यो झरी
फुलांर भोंवर फळांर सवणिं गायति किनरांवरी

ह्या विलाथे कापरा वेळो, फेणाळ ल्हारांर ल्हारां
सांजच्या पारा भरून भार माड घुमति कांतरां
पैसुल्यांन वाजुन घांट फुलता आंगार कांटो
दर्याचेर परजळटा चंद्रिमाचो पाटो

ह्या विलाये यो गो वेंच सांवळ्यांतलीं पोवनां
सुर्गांवरी कवळिं म्हजीं परमळीत कवनां

## स्वातंत्र्य न्हय, स्वातंत्र्य न्हय

प्राणाक क्षय बुद्धीक भंय फाल्यांक जंय कालचीच वंय
आयलां थंय स्वातंत्र्य तें स्वातंत्र्य न्हय, स्वातंत्र्य न्हय

जे घरांचे खणपि वाते
तेच थंय सन्मान्य दाते
धमार्थ जंय दारांत तांच्या सज्जनांचीय लागता लय

वाटमारे चोर खुनये
जंय प्रजेचे मुख्य थेलये
सत्ताय जंय तांच्या भयान मारता मिठा नीती नि लेय

पाडसावैले कुंवाळे
काल धवशे आज सांवळे
जंय सदा खुबळावन भौसा व्होतांखातीर घालती शबय

घाण स्वार्था जंयचे बरपी
वाचतल्यांचें त्राण चिरपी
दिवंक जळ लटक्या अधर्मा काट्टी उजळ उत्रां-कलय

पेज सामको भौस जंयचो
फोव सो कोर्णेय कांडचो
पेट्टल्यांचे पांय चाट्टा, पिडटल्यांचो गायता जय

आप जंयच्या सगलें भष्टें
वंद्य परक्यांलेंच उष्टें
हुटकेती तांच्या भितोडे मेळटा ती उखलुंक तळय

पोट ही जंय अेक निष्ठा
त्याग कष्टांची कुचेष्टा
जीव आसल्यार खावं भिकेचे होच जंयचो दिग्विजय
आयलां थंय स्वातंत्र्य तें स्वातंत्र्य न्हय, स्वातंत्र्य न्हय

# जागी जाल्या गोंयची सासाय

जागी जाल्या गोंयची सासाय
येतलो भार, येतलो भार
धोल ताशे बडय बडय
मार शेंसार, सार शेंसार

आसूं कोणय तरंग घेवन
सकाळपसुन दिग्ग उबो
न्हावन धुवन सवळें न्हेसुन
गंदाचो लावन तिबो
कळणा कशें उपरासून
खैंच्या वाटेन येत ल्हार
धोल ताशे बडय बडय
मार शेंसार, मार शेंसार

नांवान व्हडलो म्हाल देसाय
गांवान केला जरि मुखार
सासाय आंगांत आयल्याबगर
तरंग तोलित कोण खांदार?
कोणाचेर येवचो भार,
हुस्को नाका, धर रे थार
धोल ताशे बडय बडय
मार शेंसार, मार शेंसार

नेम ना रे केन्ना कोण
कुदत कसो जावन बळी
घाडी, भगत, गुरव, गोसांय,
देवळि, ठवय, मेस्त, मुळी
गोंयची सासाय भेटत ज्याका
ताजेर भार, ताजेर भार
धोल ताशे बडय, बडय
मार शेंसार मार शेंसार

मनान पसुन जे न्हाल्यात
उपासांनी बांदुन पोट
वर्सासंकिं मोनेच मोने
आपल्या हातान शिवन वोंठ
तांचे वेग, तांचे जाळ
येतलि आतां तांकां धार
धोल ताशे बडय, बडय
मार शेंसार, मार शेंसार

तांतलो अेक मस्तो, हटी
झोमुन तरंग घेतलो धांव
माळुण जावन फाटयां ताज्या
ओडत वतलो सगलो गांव
आसत गावडो, आसत सुदिर
आसत कुळंबी आसत म्हार
भार येतर तोच देव
मार शेंसार, मार शेंसार

खुबलो तसो बेतकाटेक
तो कसोच रावचो ना
पुरतो झाडो घेतल्याबगर
बिबुत कोणा लावचो ना
पातकांचें भरूंक माप
उस्तितलो सगलि वार
उकत्यो जातल्यो फटाफटी
मार शेंसार मार शेंसार

सत्य आतां आठय दिको
जोगुल जावन पेट्टलें
आनिक लटिक सगल्या आंगार
खोरोज जावन फुट्टलें
घरचीं पिशीं, भायल्लीं भुतां
खिणांत जातलीं थंडगार
भार तीर्थ शिंवरतलो
मार शेंसार, मार शेंसार

कोण जाणा केन्ना कशी
जाल्ली कोलू तुजिच कूड
अकस्मात घेवन पेट
उजवाडाची जायत चूड
जागी जाल्या गोंयची सासाय
तुजेर लेगित येत भार
जावं कितेंय, जावं कशेंय
मार शेंसार, मार शेंसार

# अजुन सरूंक ना संगर आमचें

अजुन सरूंक ना संगर आमचें
लडचें आसा अजून खूब
लडले थकले कितलेय जरि तुमि
तरीय राखा पैली ऊब

सांखळ्यो तुटल्यो, बावटो बदल्लो
म्हणून रे स्वातंत्र्य येना
तें येवपा रे लावचो पट्टा
क्षणोक्षणीं हो प्राण पणा

कितलें दैन्य, अन्याय असत्यय
अजून चलता भायर भितर !
पुरतें तें हुमटिल्या बगर रे
मुक्त जावंचे नात आमचे पितर

उज्यांतल्यान जे मुखार सल्ले
चांचावन घेवन आपलेंच कपाळ
सदांच आसता तांचेफुडें रे
भविष्य मळबा परस विशाल

तें धरपाचें व्रत रे तुमचें
ना तुमकां केन्नाच विसव
धोंड तुमी चिरस्वातंत्र्याचे
गोंयच्या भवितव्याचे गुरव

दिवटिकार हांव तुमचो वांगडी
सांगतां तुमची फुडली वाट
न्हंये आलतडीं तशी पलतडीं
मायंडा लावपी आसता भाट

## आबोल्यांची फांती

कुपांत जोगुल तशी तुजी आबोल्यांची फांती
वांयगणाची चोळी, कापड रगत खणी–माती

चिरो कशी फाट, कमर कंरगुटाचो मुडो
उज्या किटी झडैत वता कोंपरमेरेन चुडो

काळशि जांभळी पौंट नितळ तळपाची कान्त
कळटा म्हाका भंगली कशी पराशरा शान्त

दनपारांच्या कडार पसुन दोळ्यांर येता सांज
वाजता दोनय कानसुलांनीं आकांताळी झांज

चलता तशें चलत राव, परतुं नाका मान
भरतें माप उमथें जायत तुटुन म्हजें त्राण

## म्हुर्त

सूर्य चंद्र आरते परते जाती जिचे पातयेन
राक्षेसांचीं तुट्टी शिरां जिचे विजे – कातयेन
भाळटि देव जिच्या निळ्या नखेत्रांचे फांतयेन
घट्टां तिजी म्हुर्त हांव म्हज्या गोंयचे मातयेन

असलि माती जिती विती संसारांत ना रे
दिखळांतल्यान सैमाचे सरति वैर तारे
परमळान अरळ हिच्या आठय दिकां वारे
हिज्या कुर्शितल्यान व्हांवति म्होवाळ व्हाळ वझरे

हिजो तिळो लायतल्याक फुट्टा तिसरो दोळो
हिजेर मोग करतल्याचो म्होंवान भरता गळो
हिजे गुंडे साळिग्राम, सुळके हिजीं लिंगां
उदकां हिजीं तिर्थां, तशीं झाडां भारा – तर्गां

असलि माती म्हज्या हातीं रोयण कशी वाट्टा
प्रगट जावंक तुमचे म्हजे लक्ष हात मागता
सगलिं आवतां घेवन येया; जायत आयलि रेखणी
त्रिशुळ करून दिल्या तिका हांवें म्हजी लिखणी

सपनांचीं ओपुन फुलां प्राणां – वाती लावंया
झिळमिठ्यार उजवाडाचें स्तोत्र तिजें गावंया
प्रज्ञेचीं जोगलां घालित प्रगट तिका जावं दी
आमकां लागुन आयच्या फायच्या संसाराक पावंदीं

## उलो

फुलांत लिपुन आयला भावा तक्षकाचो पिलो
सादुर तुवें जावंचें म्हणुन घालित आयलां उलो
विखाळ्या ह्या फुलाक चुकुन लायशि जाल्यार हात
नंदति मठी जळुन जातलो जल्म जुगा घात
मेल्ले जाण्टे दितले स्राप भुरगिं दितलिं जाप
दीस रात खातलें तुका तुवेंच केल्लें पाप

नाका भुलूं दिसल्यो म्हणुन भोंवति ताज्या म्होरो
ह्योच अखेर सुरयो जावन कातरतल्यो शिरो
फुलारुपान आयल्या गोंयां घटोत्कचा माया
म्होरां माती जावन वतलि संसाराची रया
प्रसादाची जुंवळिं पानां घेवन स्रया पाव
सोळा तारीख येवंचि जाली सादुर भावा राव

## म्हजें नांव?

एक जाण्ट्यांनी दवरिल्लें
ताज्यो भोयो जाल्यो.
दुसरें दवरिल्ले भावंडांनी
तें भुरग्यांनी घोळैलें
लोकांत रूढ जालें
तें मात तिसरेंच!
असवडीं कोणें कोणें कितें कितें नांवां दवर्ल्लीं!
पैकीं म्हजें नांव खैचें?

– हांव जावंचे पैलीचें
म्हजें नांव हें खरें मुदलचें
पुण ते तशें कोणाचेंय
तेन्ना म्हजें नांव
कितें म्हणून सांगू?
तूं म्हणशी तें

– आनी म्हजो गांव?
एका गांवांत जालों
दुसऱ्या गांवांत वाडलों
अनेक गांव हेडलों
आनी ह्या सगळ्यांक लागून घडलो
खरें सांगचें जाल्यार
जंयच्च्यान हे धतरीर

हांव आयलों
तोच म्हजो मुदलचो गांव
पुण ताका बावड्याक
नांवच ना
तेन्ना म्हजो गांव
खैंचो म्हणून सांगू?
तूं जंय म्हाका भेटशी तो

– आनी म्हजीं नातीं गोतीं,
खैंची म्हणून सांगू?
कांय जल्माच्या अपघातान जालीं
कांय लग्नाच्या अपघातान निपजलीं
कांय मन जडिल्ल्यान उपरासलीं
म्हाका तीं सगळीं म्हजीं दिसतात
पुण एक वेळ असोय प्रत्यय येता
हांव तांचो कोणाचोच न्हय
आनी तीव्रतायेन दिसता
म्हाका नातें लागता तें एकल्याचेंच,
ज्याणें म्हाका घडलो
आपणें रचिल्ल्या ह्या संसारांत,
पुण तें उतरानीं सांगूंक येना
कोण जाणा!
त्या नात्यांक लागूनच
आमी एकामेकांकडेन
अशे ओडटात जाल्यार!

## वाजता तुजे बीन

वाजता तुजें बीन
ताजेर चीज नवनवीन

भायर भितर सूर तुजो
केन्ना पावस केन्ना उजो
भिजतां भिजतां लीन हांव
हुल्पतनां दीन

गायशि मेघ गायशि दीप
तितलो तितलो तूं समीप
तांचेवरवि फुलत झडत
वाड्टा म्हजी जीण

तुजे कृपे ना रे तुळा
अमृताचें शिंपणें मुळा
ओंपलो जल्म तरीय तुजें
सोंपचें ना रे रीण

## शत जल्म पुण्यतायेन

शत जल्म पुण्यतायेन नरजल्म भारतांत
वेद् श्रुती पुराणां हर्सून वर्णितात
गगनाय परस उंचेले हावेस हे भुंयेचे
गंगेयपरस घोगेले हुटके हिचे दयेचे
ध्यासान हिच्या गिमांतय वरमेघ वर्सतात
शत जल्म पुण्यतायेन नरजल्म भारतांत

उद्दिष्ट हे जिणेचें पैली हिणेंच मोखलें
प्राणीं चराचराच्या आपलेंच रूप देखलें
तप फळटलें हिचें हें फायच्या जगायुगांत
शतजल्म पुण्यतायेन नरजल्म भारतांत

काळजांत आसचि प्रीत चलपांत सत्य नीत
उत्तुंग कर्तुपान रेखचें हिचें चरीत
स्रय हें अपूर्व जोडचें हांगच्याच जीवितांत
शत जल्म पुण्यतायेन नरजल्म भारतांत

## येतना तुवें हाडलें कितें?

येतना तुवें हाडलें कितें?
वतना कितें व्हरतलो?

पोटलो तुजो खोंटलो तुजो
हांगचो हांगा उरतलो!

पण्टुरांचो हुस्को कित्या?
तुजोच ना रे भरवंसो!

आळावतलो केन्ना तुजो
सभाव असलो वसवसो?

चडटो काळ आसा तंवर
भोंवतिं लोक भोंवतलो

अतंकाळा तांतलो कोण
उल्या तुज्या पावतलो?

येवज मात्शें खैंचो कोण
आयलों कित्या लौकिकीं

चार दिसांचें हांगचें पेणें
लागत कशें सार्थकीं?

अंतर्यामीं पळेत राव
तुकाच थाव लागतलो

थंयचो दिवो नित्य नवो
फुडलि वाट सांगतलो

## यादी

बसींतल्यान वतना
तुगेलें इश्कॉल उकतें दिसलें
मनांत आयलें
तूं अचकीत भायर येशी
मागीर याद जाली
तूं रेफॉर्म घेवन गेलें
ताकाच आतां
पंद्रा वसां जावन गेलीं
फुडें रस्त्यांत दिसलो
रोजां-माळांतलो खुरीस
एकाएकीं
हातकामाच्या वर्गांतली
याद जाली
तूं फळयेक किसूळ मारतालें
आनी तुज्या
दोन गरगरित रोजांमदीं
तुज्या गळ्यांतलो
सुपुल्लो भांगरा खुरीस
झिगझिगत झेल घेतालो
ताजेवेली म्हजी नदर
सकल गळसणली

असल्या वेळार
तुमकां बायलांक
आंगभर
दोळे फुट्टात जावंये
लटक्या रागाच्या नदरेनच
तुवें दटायत म्हाका म्हळें
'तर्पाशोर'
हांव त्या खुरसार खिळावन उल्लों;
अजूनय आसां!

कसो योगायोग तरी!
स्टोपार देवतां जाल्यार
थंय तुजो वयावेलो चलो!
ताणें म्हळें,
'मांय सदांच
तुमच्यो तोखणायो सांगता
घर चार पावलांर आसा
येयातच'
असो ताणें आग्रो केलो
कित्याक कोण जाणा
हांव चपापलों
कंसलें तरी नीब सांगून
सटकलों
तुजी खबर घेवपाचें पसून
म्हाका सुचलें ना
घरा पावतासर
तिनसान जाल्ली

तरीय काळजांत चंद्रिम उदेल्लो
आनी हांव गुणगुण्टालों
In the valley of the Moon

मागीर हांवें बासनांतली
तुवें बरौन दिल्ली
कांतरांची पटी काडली
ती वाचताना
तीं कांतरां तुज्या सुरांत
जिवीं जालीं
तांतल्या एका कोंकणी कांतरांत
मुदलांत
'संसारान सांडिली म्हाका';
अशें आसूनय
तुवें बरैलें
'सांडिलो म्हाका'
तांतली मेख उमजून
हांव परतो जितो जालों
पटयेर तारीख आशिल्ली

## दीस अशे येवचे आसात

दीस अशे येवचे आसात
कोणच खबर घेवचो ना
राती अशो येवच्यो आसात
कोणच साद दिंवचो ना
देखुन म्हाका एकटुक्यान
रान चलचें त्राण दी

भितर्लाचें उतर तुजें
आयकुपाचो कान दी
येतना मनीस एकलो येता
वतना मनीस एकलो वता
जाण्ट्यांली भास अशी
ल्हानपणच्यान आयकल्या
तीच आज जाण्टेपणीं
ल्हान जावन पारखिल्या
एकटुक्यान चडले घांट
तांचे वाटे – भान दी
गंद कसो झरोवंक प्राण
सास्वताची साण दी

संसाराचे पेले थडी
सोदूंक म्हजें फाटलें थडें
जातलो जेन्ना हांवच म्हजें
शीड, व्हलो, येरें, व्हडें
तेन्ना म्हाका प्राक्तनाच्या
अंतिमाची जाण दी
गान तुजें गातना म्हाका
सोंपना अशी तान दी

# दोळ्यां सपन फुलता तंवर

दोळ्यां सपन फुलता तंवर
जग पळौन घे
गळ्यां गीत घोळटा तंवर
मन केळौन घे
रगता तोल आसा तंवर
भोगून घे सुखां
व्यथेन घळ्ळ जाता तंवर
व्हांवौन घे दुखां
त्राण आसा तंवर प्राण
लावन घे पणा
दृष्ट आसा तंवर घरांत
मोख प्राक्तना
बळ हातांत खेळटा तंवर
सांवर पडटल्या
चलति पांय तंवर धांव
दुर्बळा उल्या
धरता उतर तंवर ताणें
पाव वंचिता
ध्यास आसा तंवर सजय
उजय संचिता
प्राण आसा तंवर अशें
जिखून घे जिणें
असो जियेतल्याक ताजें
आसता धार्जिणें

## सुकतेच्या वेळार म्हज्या

सुकतेच्या वेळार म्हज्या
आयलें जावन भरति कित्या?
फांतोटेचीं ओंवळां तुजीं
सांजचीं म्हजेर झरति कित्या?

सूर्याचो जातना अस्त
कोंवळो भूप गायलो कित्या?
पालवल्ले इंगळे फुलौन
धुंद धूप लायली कित्या?

घडयेचे भेटेन तुवें
लायलि गळ्या तांत कित्या?
वचचे वेळे उस्वासान
काडलि काळजा-कात कित्या?

लटकें हांसुन, दुखां खरीं
दोळ्यां तुवें घोंटलिं कित्या?
नदरेन तुवें सुखां म्हजीं
समूळ मुशीं लुंवलिं कित्या?

चुट्टांतलो चंद्र तसो
जालो तुजो ओलो पोलो
घस्स करून फुट्टां ल्हार
कुशिंत म्हज्या भल्लो भाल्लो

नस्तें मौन पडलें तुजेर
म्हाकाय उतर फुटलें ना
तेन्नाच्यान जागतां तेळित
चंद्र बावन बुट्टना

## एकटुक्यान

एकटुक्यान येवचेलें एकटुक्यान वचचेलें
जल्म मर्ण सूख दुःख एकटुक्यान भोगचेलें

आपलेपरस व्हडलो खुरिस एकटुक्यान व्हरचेलो
दिगंतिंचे दोंगुल्लेचेर एकटुक्यान पुरचेलो

चिखलांतली आपलि वाट एकटुक्यान चलचेली
पावसांतली काळखि रात एकटुक्यान तोलचेली

आपलि कूड करून चूड एकटुक्यान धांवचेलें
आपले वेणे-गीत करून एकटुक्यान गावचेलें

एकटुकेच सगळे आमी कोणे कोणा शिणचेलें?
वाटेंत वांगडि मेळ्ळो हेंच व्हडलें भाग्य म्हणचेलें!

एकटुक्यान येवन हांगा आयचें जिणें रेखचेलें
आपल्या पायान उमथुन माप फायचें पेणें मोखचेलें

## तुजें भुशण

तुवेंच दिलां माथ्यार म्हज्या
सगळ्या जगा वचें
कोणाय जिवाक लागल्यार हुलप
काळीज जळटा म्हजें
कोणय बायल पुसता जेन्ना
मणकटांनी दुखां
म्हज्याच आंगार चरत येती
तांतलिं मोनीं विखां
समर्थाच्या दारांत जेन्ना
मनीस जाता सुणो
दिसता म्हाका हांवच जालां
सत्विं म्हज्या उणो
मनशांमदीं, राष्ट्रामदीं
पेट्टि जेन्ना झुजां
जंयचे थंयच खचुन कमर
तुट्टि म्हजीं भुजां
दांतय म्हजे वोंठय म्हजे
लावचे दुशण कोणा?
कळवळ्यांत भुशण तुजें
इतलें हांव जाणां

## म्हजें झाड

अतळ चोखीत मळब मोखीत
झाड म्हजें रसरशीत
गिळुन उजो फुलता फुलीं
मुळच्या जळा गायता गीत

झाड म्हजें दिसांधळें
चौदा लोक सपनेता
कोणा भारान कोण जाणा
न्हिदांत वेद वथरेता

झाडांत म्हज्या देव – दैत्य
सर्ग – धरे, काट्टि मथीत
अद्‌भुतांचें झाड म्हजें
म्हाका लेगीत करता चकीत

झाड म्हजें पांचवें चार
सांवळि ताजी थंड गार
ताज्या मुळा सगळ्या म्हज्या
पुर्वजांची पुल्ल्या वार

म्हणून वाऱ्यावादळांतय
वाट्टा झाड घसघशीत
वैशाखाच्या आगट्यांतय
कवकवीत पर्मळीत

काळखे-राती झाड म्हजें
पण्ट्यांचें दिवज कशें
नकळं कोणा उजवाडाचें
अशें ताका लागता पिशें

अशे दशेंत नासता ताका
प्राक्तनाची हारजीत
मनार तार्णे घेतलें जाल्यार
चंद्र पसुन काडुन दीत

झाडार म्हज्या सकाळ सांजे
सवण्यांची जात्रा जाता
दनपारच्या कडार पसुन
म्हसरूं गोरूं गाबा वता

नाट ताजी सोदुंक येता
सांगूक येना रीत नीत
इप्रितांचें झाड म्हजें
जन्मजुगा गुमानीत

झाड म्हजें अम्रुताचें
वखदि साल, वखदि पाळ
म्होवांत खिरौन घेतलें जाल्यार
संसाराचे सरति जाळ

तिसरो दोळो आशिल्ल्याकच
होलमतलें ताजें चरीत
वाचुंक येतलें आंगांत ताज्या,
त्रिकाळाचें ब्रह्मलिखित

झाड म्हजें बियेविरैत
ताळीच जाता शितळ–मुळी
जो जिवांत लावंक जाणा
तरता तांजी सगळि कुळी

झाड म्हजें देवादयेंन
जालां म्हजें सगळें जिवीत
ताज्या घावां फोवांतल्यानच
व्हांवता म्हजें सगळें कवीत

## चंवरां

दोंगुल्ल्यांचीं जुंवळीं थानां
तांचेर गच्च पांचवीं रानां
सुर्यान उमो रोमलो तशीं
हळदि कुकमांत भिजलीं पानां

*

तळये कांठार कोंड्यां – रांय
उदकार पातळ चान्या – साय
खर्ज गावंक पांचवो बेबो
बसलो चिन्यार दोडुन पांय

*

दोळ्याक दोळो लायलो जाल्यार
तांबसो कसो पोलो?
दोळो चुकौंक केल्यार तोच
रोखडो कसो ओलो?

*

मनाक खोलाय आसली जाल्यार
साद्याय बोलांक मोल
ना जाल्यार सगलो वेद
जिबेर आसून पोल

*

दीस म्हजो शाणो
आनी रात म्हजी पिशी
सगल्या दिसा शीण पोण्ण
न्हिवता तिजे कुशी

*

खरो जावं लटीक
संवसार लागला फाटीक
केळौन पसुन आफडून घेना
मुक्ति ताजे गांठीक

*

चंवर आसा तंवर
रुखार सवणिं भोंवर
सुकुंक लागलो तसो पुता
कोण घेता खबर?

*

हुंदराक लागुन माजर
माजराक लागून गाय
(गायेक सांबाळपाक म्हणुन)
घरांत हाडलि बाय
संन्याशाची कितली अशी
सांगूं खबर मात
संवसार सोडुन गेल्लो ताजो
काष्टेन माल्लो घात

*

वीरभद्र नाचतल्यान
सदांच धरचें स्मरण
करड अदिक लासता तितलें
अदिक तार्जे मरण

*

पांयांत आसुन वाट
आनिक दोळ्यांत आसुन दिवो
चलता तंवर समज, मनीस
नाखटामेरेन जिवो

*

मनशाचें शरीर
दुसऱ्याखातिर घोळटा तंवर
तड गांठपी व्हडें
आपले पुरतें पळेता तंवर
थडें किंवा मडें

*

तोपयांनीं खाली हरयाळी
सगले म्हण्टात खरें
हरयाळी म्हण्टा 'बेस बरें
तोपये म्हजें सारें'

*

रांदनिपरस बायल खर
वायलापरस कायल खर
बायल तांकां खेळैणारी
जायत कशी थंड झर?

*

'म्हाकाच लागून उदक तुका'
पानवेल म्हण्टा म्हसंगा-रुखा
म्हशिंग म्हण्टा 'म्हणुन अशी
माथ्यार हांवे घेतल्या तुका'

*

हालत्या रथाक लागिल्ल्यान
घुडयार अशो उडयो
हरशीं घुडयो म्हळ्यार बावड्यो
तिस्त्यो आनी बडयो

*

संवसार दर्यो असो
आलतड ना पलतड
पायांक थारो सोदतल्यांक
शेकानशेन रेबड

*

रागार फुगार जालें तरी
एकच उतर उलय
तळपट्या ह्या आयच्या सड्यार
फायचें सपन फुलय

*

चुमुंक तुका सोदलें म्हणुन
फुटलीं म्हाका पांखां
चुमलें तशें कडुन तींच
तांचीं जालीं दुखां

*

न्हवरो आयलो व्हरूं
तेन्ना गगन गेलें धरूं
गगन आयलें घरा
तेन्ना सामकें जालें गोरूं

*

चेऱ्यार पुनव, फाटीर उमास
दंवांत भिजता फुलां – रास
असो तुजो सव्वास
म्हजी जल्मजुगा मिरास

*

पैलीं वासाचीं गुलाबी पाकिटां,
मागीर इनलँड,
उपरान्त कार्ड,
आतां भुरग्यांकडल्यान समाचारः
अशें तुजें प्रेम संवसारान बावलां?
काय धगीन पिकुन क्षेमार येवन पावलां?

*

देवान दिवंक केलेंय जाल्यार
मागूंक पुण्याय जाय
भस्म करपी मागल्यार हात
निसंताना पाय

*

संवसारा-सार
चांखूंक गेल्यार
कोडु झार,
पचल्यार
अमृता-धार

*

शेत पळौचें कसून
पुजा पळौंची बसून
घर तशें कुळागर
पळौचें वसून

*

एक म्हस, एक म्हशिंग
एक मिरसांग, एक माड
एक मोगर, एक मठी
दारांत एक फुलतें झाड
इतलें जाल्यार म्हाका
सर्ग पसुन दिल्यार नाका

*

होंवयेन दांतें ल्हव
चावयेन माथें ल्हव
तसोच गोडयेन घोव मोव

*

हांसल्या मुखा, फुलत्या रुखा
वांगड सदांच सुखांचो
हांसुंक फुलुंक नकळ ताका
संवसार सगलो दुखांचो

*

आयज म्हजें मन
दुदावैली साय
तापुन न्हिवंक
जाणा जाल्ल्यान
दिल्ल्या फायाचो जाता वाव
घाल्ल्या घायाची उरता माव
तुजें म्हजें जालें तशें
म्हणुन अशें भिजता उशें

*

काती म्हण्टा पोंयेक
'हांव तुका कातरतां'
पोंय म्हण्टा कातयेक
'म्हणून हांव पाझरतां'

*

तुजें नांव घेतलें तशे
फातर जाले ल्हव
रातयांत घालो माकडांनी
समुद्राचेर सांकव

*

भेदी जाल्यार भाव, भावा
रावण पसुन कोंसळटा
कुराडेच्या एकाच दांड्यान
केदेंय रान संवकळटा

*

सुख म्हजें चरवाक वता
दुःख करता रवंथ
तेन्ना म्हज्या कागदार फुलता
चान्यांतली चवथ

*

आज आसा, फाल्यां ना
असलें हांगचें जिवीत
सगलें क्षर म्हणुन म्हजें
अक्षरांत कवीत

*

उजवो जावं, दावो जावं
दोनय सारके म्हजेच हात
तुज्या नमस्कारा-वेळार
दोन आसुन एक जातात

*

कोणाचेरय बडि बसूं
म्हंजे फाटीर वळ
कोणाकय कांटो रोंमू
म्हज्या काळजांत कळ
कोणाचोय सूर लागूं
म्हज्या दोळ्यांत जळ
कोणाचेंय दुःख सरूं
म्हज्या सुखाक फळ

*

भूक नासुन उष्टें वळखना
तो मळीण
सूख आसुन दुखी वळखता
तो कुळीण

*

काळखांत जशी चूड
तशीच मनीस कूड
सोंपतासर पेट्ट
उरिल्लि वाट तुट्टं

*

देंवचार म्हण्टा 'पिये सोरो'
देव म्हण्टा 'कर भजन'
दोगांचेंय मानलें हांवें
हाजें ताजें कित्या दुशण?

*

देंवचारान देवाक म्हळें,
'भक्त पियेवन भजता मरे'
देवान म्हळें, 'तर मागीर
भजन ताजें सामकें खरें'

*

सांगशि भरून दिवन वरा
इंद्रान धाडली अप्सरा
रानांत तपाक बशिल्ल्याचे
खिणांत जाले तीन तेरा
मेणा बांवली कडली जाल्यार
कोणें कोणाक धरचे तरे?
सुसंगीत घरचे घरा
रावपि बावले जायते बरे

*

'चानये, चानये म्हौंव कर'
'हुंदरा हुंदरा गोड कर'
अशें आमी म्हणिल्ल्यानच
भुर्गीं अशीं खांडिभर

*

फायच्च्या म्हज्या घोवा
आयचीं दुखां पूस
कालच्च्या म्हज्या घोवा
फोंडांत परत कूस

*

म्हेळसायल्लो पैल जोताक बरो
म्हेळसावन घेना तो न्हिताक बरो

*

जनायेचीं पिळ्ळीं ओलीं
एकनाथागेर भल्ल्यो दोडी
दामाजिच्यो गोणी भरूंक
काडल्यो जायत्यो काडावोडी
खबरि तुज्यो आयकुन अश्यो
दुबाव केन्नाच घेतलो ना
देखतां म्हणून आतां तुका
खोशयेन म्हगेर घोळटना

*

– विजा, पुता, पडचें जाल्यार
केळींत वचून पड
– मेजावेलीं खावंक केळीं
जातले कशे घड?

*

देवान रचल्या पड
पणुन देंवचाराची नड
गात्रां जाल्यांत जड
आनी उतरां जाल्यांत चड

*

दांतान जिबेक म्हळें, 'आमी
बत्तीस मस्ते भाव
खुबू जाल्यार पापणि तुका
सगल्यासगलि खांव'
जिबेन म्हळें, 'मनार घेतल्यार
एकच अशें उलैन
खिणांत तुमकां बत्तिसांकय
भर रस्त्यार लोळैन'

*

ओत म्हण्टा, सुकैतां
पावस म्हण्टा, भिजैतां
बीं म्हण्टा, 'म्हणुन मातयेंत
सपन म्हजें रुजैतां'

*

नुस्तें आसल्यार गोंयकार वीर
नुस्तें नासल्यार गोंयकार व्हीर

*

बापुय म्हण्टा, ‘सगलि रात
पोरान न्हिदुंक दिलें ना’
आवय म्हण्टा, ‘सगलि रात
पोर म्हजें न्हिदलें ना’

*

पेज जावं सोजी
ज्याची जशी रोजी
चड जावं थोडी
भूक तशी गोडी

*

समय जाल्यार सुलभ
मूय गांठटा मळब
समय जाल्यार खोटो
गरूड गुळोगोठो

*

जाल्लें घर लोळ्ळूंक
दिल्लें घर घोळ्ळूंक

*

मागन दिसली शितेक
कांचनाची चोळी
खिणाच्या मोहान
जल्माची होळी

*

उष्टवारो उस्तिल्ल्यान
कोंब्या-पांखटे जड
मळबा-थाव सोदिल्ल्यान
गरुडाचे व्हड

*

माड मोडून पडलो तश्यो
ताळयो पेटल्यो तायखिळ्यांनीं
आनिक म्हळें, सगलो पावस
घल्लो आमी झेलुन पानीं

*

मातुन एका गांयडोळ्यान
शेषा-चलये मागणी घाली
शेषान म्हळें, चातुर्मास
सारको पुरतो जावंदी पैलीं!

*

भुकेवेळार दिल्लो ग्रास
तानेवेळार दिल्लें पाणी
रोंवचेवेळार हाडटा पावस
लुंवचे वेळार फसल दुणी

*

सुदर्शनाबगर गिता
रणांत कोण आयकुन घेता?

*

उज्यांत जाल्लें फुल ओतांत कशें बावत?
छळांत सुखावतल्याक रडुंक कशें फावत?

*

नेमलां म्हणुन मरण
मनिस यमाक दिता दुशण
तोच मारून आपल्या भावा
तांतुत मानता भुशण

*

पेज आसूं, शीत आसूं
रूच आसची जिबेक
सूख आसूं, दुःख आसूं
मनीस आसचे उबेक

*

दिसानूदीस नव्यो फटी
वाचतात आमी नित्य
तरीय कालचो इतिहास
मानुन चलतात सत्य

*

जोख आसल्यार चोख
व्यापार करचो ठोक

*

जिणेपलतडचें किरण
ताकाच म्हण्टात मरण

*

परमार्थ एकट्याचो
प्रपंच दोगांचो
प्रवास तिगांचो

*

काळें आसुन उजवाड घालता
तें अक्षर
ताणें काळोख बालाणटा
तो साक्षर

*

मनीस जायतो सुधाल्ला
पैलीं मारी खुर्सार
आतां घालता फार

*

घरांत घालता धोंशी
पुण साम्यवादान खोशी

*

निवळ रावंक सोदतल्याक
रांपुन आसता कळी
नाखुट पसुन मेळल्यार सुकें
रिगुन घेता बळी

*

पेटल्यार फोगोटी
पालवल्यार सुरसुरें
अशें म्हणुन चलतल्याचें
घोडें फुडें वता खरें

*

देवाक सोदुन सोदुन हांवें
म्हळें, 'आतां सोदचों ना'
म्हळें ताणें, 'हेडलो कित्याक
तुज्याच म्हाऱ्यांत आसताना'

*

शेतकार बळी आसलो जाल्यार
तुमकां आमकां गोटो
त्राण ताजें तुटलें जाल्यार
सगलो पावस खोटो

*

ल्हान जरी काजुलो
उजवाडाचो पिलो
बिण्ण पसुन काळोख
खिणभर निळो

*

कवन म्हजें जिवाचवन
अजुन तुका कळ्ळें ना
जिवन तुजें म्हऱ्यांत आसुन
खिणय म्हाका मेळ्ळें ना
चवन जालां खीण आतां
झुरत वता जीण
जीव तुवें झरौन पसून
तुजेर म्हजो शीण

*

नडिपुरतें रामायण
पडिपुरतें पारायण

*

सगली गिता वाचून
इतलोच काडलो निष्कर्ष
देवान क़रूंक सांगलां
दायजांचो निर्वंश

*

देव आसूं नासूं
आसा म्हळ्ळो बरो
निवेद्याच्या ताटांत
आसासर घरो

*

घाय वता भरत
पुण उतर वता चरत

*

फाल्यां करचेलें आज कर
आज करचेलें आतां कर
जाता तशें स्वता कर

*

खाल्लें अन्न निवेद्य
पियेल्लें उदक तीर्थ
अशें मन जालें जाल्यार
आयिल्लो दीस तीथ

*

स रस वळखिले
ताजी म्हाका जीब दी
सात सूर वळखिले
ताजे म्हाका कान दी
कापसान लुगट विणलें
ताजे म्हाका हात दी
मायेन जीव विणले
ताजें म्हाका मन दी

*

मेल्लो गेलो घडिभर रड
बारा दीस जातासर उकड पकड

*

खिणाचो भरवंसो ना
पिळग्यांचो हुस्को
तुळाकार जाला तरी
घेवंक सोदता पोस्को

*

बायल लायता रूज
वावराडेशीं हितगूज

*

फुलां बावलीं वास उल्ला
तुजो सव्वास मात पैसावला

*

विस्व रचलें तेन्ना कोणेय
तोखेवंचेशें दिसलें तुका
म्हणुन अशे अर्थ करपी
दोळे तुजे दिले म्हाका

*

राय थंय दळ देवूळ थंय थळ
पुण्याच्या आम्नयाक पाप प्रबळ

*

मूर्खाक मत प्रळयाक मूळ
गुंडांक सत्या सज्जनांक सूळ

*

ईश्वराची चूक जाल्ल्याक भूक
भुकेक लागून सूख आनी दुःख

*

जमीन खणिल्ल्यान जोडलें धन
उत्तर विणिल्ल्यान घडलें मन

*

प्राक्तन घालता उलो :
केन्ना लायता तिळो
जाल्यार केन्ना मारता खिळो

*

चित्ताक अंत
त्याच खिणाक अनंत

*

काळी? कोणें तुका म्हळी?
तूं तर म्हजी चान्याची तळी

*

जायांचो वळेसर मोगऱ्यांची आटी
भुलयत गेलीं काळखांत भेटी
पोटांतलें सगलें आयलें ओठांत
माघांतलें चान्नें चांदीच्या ताटांत

*

दादलो रचुन जालो तसो
ब्रह्मदेवा भल्लो भालो
रोखडि ताणें रचली बायल
घडुंक ताजो थंयच बेलो

*

बांय, बिंदलो जावं नज जाल्यार
राजु तरि जायन
अभिशेकाचें उदक तुजें
वेळार तुका पायन

*

मरणाच्या देगेवैलें मृगजळ
म्हळ्यारच जिणेचें मळ

*

पावसांतल्या ओतांत
पानावैले थेंबे
तशीं म्हर्जी दुखां
सुखान झिगझिगतात

*

कमळाचे कळे
तशे तुजे दोळे
पळेताना बाये
सांबाळुन पळे

*

येवजिल्लें घडना
तंवर आमी बरे!
घडुन येत जाल्यार
कितले आमी खरे?

*

तुजो धीर आसासर
व्हडें म्हजें खरें
तूंच म्हजें येरें तशें
शिडांतलें वारें

*

तुंवें म्हाका खेळयला जायत
स्वताकय फटयत
पुण हांव मात स्वर्गात वचुन बसलां
सरस्पतीक नटयत

*

भुरगेपणांत आनंद ना
तरणेपणांत उमेद ना
जाण्टेपणांत विवेक ना
म्हातारपणांत समाधान ना
अशें आमचें जिणें सासणाचें उदास
घायार मिरसांग वेदान्ताची भास

*

शिमेहद्द मोग केला
सेवा बिवा मात ना
हातान किर्तेय घडल्या जाल्यार
म्हाका तिजी नात ना
तुवें म्हळें, 'तर मागीर
असल्या मोगांत सेवाय आसा
म्हणुन अशें तुजेखातीर
दार म्हजें लागलां पासा'

*

पावसांत म्हाका घर जाय
गिमांत दर्याकांठ जाय
शिंयांत मात वायंगणांतल्या
बांदावैली वाट जाय

*

चित्रगुप्ताचो दोळो
बारकेल्यांच्या चिकानाचेर
जसो कावळ्याचो भोंपशाचेर

*

बेबे गायता खर्जांत
कोगळां गायतात पंचमांत
तशें म्हजें मनय गायता
पावसांत आनी गिमांत

*

करपता थंय वास
आस थंय दुस्वास

*

वेळार सायबा पावस पडूं
सगळें सैम फुलूं, फळूं
देशांतलीं झगडिं मेटूं
सज्जनांक राखण मेळूं

*

वेदकाळासावन अशी
आयले करीत प्रार्थना
तरी सायबा अजुन कशी
आमची तुका काकुट येना

*

आतां तरी आमची आस्त
ध्यानीं मनीं मूळ धरूं
पितर आमचे जावन खोशी
भुरगीं आमचीं वैर सरूं



# पण्टी

एक पण्टी भितर पेट्टा ती जगय रे ती जगय
घेवन आयला वांगडा जी तूं वाट सरतासर तिगय

गर्जेपुरती तीच दितली चलतल्या पावला पसय
उजवाडा कोणेंच पापया ल्हान केन्ना म्हणचें न्हय

जें फुडारांत सपन न्हिदलां तें उठय रे तें उठय
रें तुज्या पण्टेन जंय थंय मेळटा ती पण्टी पेटय

पण्टी न्हय ती गुप्त दुर्गा, कसलें भंय रे कसलें भंय?
लक्ष शस्त्रान खेत्र जातलें, मेळटलो अंतीं विजय

तंववरी पण्टी जगय रे वात सरतासर तिगय
रात काळखी सरचे पैलीं जल्म मेळ्ळा तो उजय

